


# कासवाचें घर

बरोवपी :

**नयना आडारकार**




श्री हरि प्रकाशन

Kanyo : Kasvachem Ghar

काणयो : कासवाचें घर

*बरोवपी : नयना आडारकार*

प्रकाशन क्र. १९



पयली उजवाडावणी : नोव्हेंबर २००३

*उजवाडावपी :*

**दीपा दिनकर मुरकुंडे**

श्री हरि प्रकाशन

३८९/अ, शांतिनगर,

आकें-बायश, नावेली,

गोंय - ४०३ ७०७.



अक्षर जुळणी

स्पिडॅक इन्फॉरमॅटीक्स, मडगांव.

फोन नं: २७३७००२

छापणावळ

प्रिंटआर्ट ऑफसेट, कुंडय

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां

वासू

मोल : २० रुपया

# कोलो शिकलो बुद्द

एक कोलो आसलो. ताका रानांत कितेंय खावपाक मेळ्ळेना जाल्यार ताणे गांवांत वचचे आनी लोकाल्यो कोंब्यो बी चोरून खांवच्यों. एका रातीं कोलो असोच लिपत -दपत गांवांत भितर सरलो. थंय शेताधडेर एका शेतकाऱ्याले घर आशिल्लें. कोलो गेलो तो बद्द शेतकाऱ्याल्या मागीलदारा. ताका थंय कोंब्यांचो वास आयलो. जीब लाळयत कोलो घुडाकडेन पावलो.

ताणे काळखांत घुडाचे दार सोदून काडलें. दारार एक दावकूल मारून दार फोडटलो म्हूण ताणे दारार दावकूल मारलें, पूण दार उकतें जावचें बदला कोल्याचें दावकुलूच दारांत शिरकलें. कोल्यान सोसूंनजो जावन व्हडान कुयो घालपाक सुरवात केली. रातभर कोलो त्या दारांत शिरकल्ल्या आपल्या दावकुलाक भायर काडपाखातीर तळमळटालो. पुण दावकूल सुटलेंना. वेल्यान हालयता तितलें चड दुखून दावकुलातल्यान रगत येवपाक लागले. सगळो वाठार कोल्याच्या कुयेन आनी कोंब्याच्या कलकलान भरून गेलो. फांतोड जाय मेरेन कोलो सामको जार जावन गेल्लो.

बरें ऽऽ उजवाडलें तेन्ना कोल्याच्या लक्षांत आयलें. ताचे दावकूल दारांत न्हय तर दाराक लायिल्ल्या रातेरात शिरकल्लें. इतल्यान कोल्याक मनशांचो आवाज आयलो. तेसरशीं कोल्यान दोळे बंद करून मेल्ल्याचें सवंग घेतलें.

त्या दिसांनी गांवांत कोलो येवन कोंबयो फारायता हे आयकून त्या शेतकारान बरी माण्णी करून दाराक रातेर बसयल्लो. राती कोल्याच्यो कुयो आयकून रातेरात कोल्याचे दावकूल शिरकलां जातले हे शेतकारान वळखल्लें. सकाळीं आपल्या पुताक घेवन त्या कोल्याक धाडावचो म्हूण तो थंय आयिल्लो. पळयल्यार कोलो मेला. मेल्ल्याक आनी कितें मारप तेपरस ताका पुरप म्हूण शेतकार कोल्याक घेवन एका झाडापोंदा गेलो. ताणें कोल्याक झाडापोंदा दवरलो आनी आपूण फोण खणपाक लागलो.

कोलो त्याच खिणाची वाट पळयतालो. शेतकार फोण खणपाक गुल्ल जालातें पळोवन कोल्यान थंय सावन फुऽऽज्यो काडली. आनी आनीक गांवांत केन्नाच वचचोना असो कोल्यान सोपूत घेतलो.



# पिकपिक काजुलो

मळबातल्यान एक नकेत्र सदांच धर्तरेर पळयताले. वा ! वा! कितलो सोबीत देखाव. त्यो न्हंयो, दर्या, पांचवीचार रानां, दोंगर-दोंगुल्ल्यो. झुळझुळ व्हांवपी न्हंय पळोवन तर नकेत्राक त्या उदकांत पेंवपाची इत्सा जाताली. एक दीस सामको हट्ट धरून नकेत्रान मळबराजाकडे धर्तरेर वचपाखातीर परवानगी घेतली. तरींय मळबराजान ताका शिटकायलेंच, " हें पळय तुका वचपाक दितां. पूण तुवें दीस उजवाडच्या आदी परतें येवंक जाय. नाजाल्यार तूं फातर जावन सासणाचें धर्तरेर उरतलें. "

नकेत्र सामकें खोश्शेन नाचत धर्तरेर आयलें. न्हंयच्या उदकांत पेंवक वतना ताणें थंय लागीच आशिल्ल्या झाडाचेर बशील्ल्या काजुल्याक आपले चकचकीत आंगलें सांबाळपाक दिलें.

नकेत्र उदकांत पेंवपाक सामकें गुल्ल जावन गेलें. वेळा-काळाचें भान ताका उरलेना. रात सोपून दीस उजवाडूंक लागला हें ताचे मतींत आयलेना. सुर्यान दोंगराआडसून तकली वयर काडली त्याच खिणाक नकेत्र न्हंयत सुळसुळीत फातर जावन पडलें.

आनी काजुलो मात नकेत्राचे आंगलें फाटीर घेवन पिक-पिक करीत नकेत्राक सोदूंक लागलो तो होवेळ मेरेन भोंवत आसा.

# शिवशाक बुकलो आनी हुंदीर

ऐका घरांत एक बुकलो आशिल्लो. जाल्ल्याक, ह्याच घरांत ल्हानाचो व्हड जाल्लो. त्या घरची मनशां ताका आपल्यातलोच एक अशीं मानतालीं. बुकलो सगळ्यांच्या आंगा-मांडयेर खेळटालो.

सकाळीं उठले बरोबर बुकलो दूद पियेतालो. पाव-बटर खातालो. मागीर न्हाणोवन घेतालो. पोव लावन घेतालो. दनपारचे शीतें-दाळ-भाजी खातालो. तें घर आनी घरांतली मनशां इतलोच बुकल्याचो संवसार.

एकदीस त्या घरांतल्या बायलेन बुकल्याक वेंगेंत घेंवनूच भाजीकान्नीकडल्यान भाजी घेतली तेन्नाच बुकल्याचे लक्ष दुरगा भायर गेलें. थंय रस्त्यावेल्यान एक बुकलो वतालो. ताका पळोवन बुकलो अजापलो. आरे ! ज्युस्त आपल्या बशीन दिसता. आपल्यावरी आनीकूय जायतेजाण आसूंक जाय, बुकल्यान विचार केलो. ताका आता हें घर सोडून दुरगाभायलें जग पळोवपाची इत्सा जाली. पूण वतलो कसो म्हणून ?

एकदीस सगळ्यांची नदर चुकोवन चुकून उकतें उरिल्ल्या दारांतल्यान बुकलो दुरगाभायर धांवलो. कोणाकूय दिश्टी पडचो न्हय म्हूण दुरगाभायल्यान लिपत-दपत बुकलो वतालो. अकस्मात ताचो पांय एका मोंव मोंवश्या वस्तूचेर पडलो आनी वांगडाच चिं-चिं-चीं-चीं

असो आवाज आयलो. बुकल्यान भियेवन सकयल पळयले. पळयल्यार एक इल्लोसो काळो प्राणी भंयान कडकडटा.

“ माफ कर इश्टा ” म्हणत बुकल्यान आपलो पांय मातसो उखलून कुशीक दवरलो. तरींय पूण हुंदीर थंयच कडकडतच रावलो. “ इश्टा, तुका चड लागले बी ना मूं ” अशें म्हण्टनाच बुकल्यान आपले तोंड हुंदरासरी व्हेलें. आनी हुंदराच्या वासान बुकल्याच्या जिबेक सळ्ळ् उदक सुटलें. “ आरेच्या, हो काय पोळो न्हय ताका पळोवन उदक सुटपाक ” बुकलो घुस्पलो. ताणे ल्हवूच आपली जीब हुंदराक लायली. “ यम्म्-यम्म् आयस्क्रीमापरस रुचीक आसा हो प्राणी.” मागीर आनी आनीक पाशियेंस उरलेंना बुकल्याक. ताणे उगडले तोंड आनी कडकडपी हुंदराक केन्नाच मट्ट केलो. “ वा ! कितें रूच. हो पिझ्झापरसुय रुचीक ” बुकल्यान म्हळें. तेन्नासावन बुकलो हें नाजाल्यार तें निमित्त काडून घरांतल्यान ल्हवूच दुरगाभायर वता आनी एकतरी हुंदीर मट्ट करता.



# कासवाचें घर

एकदां एक खडपी कुल्ली आनी दर्यांतली कुल्ली रेवेंत बसून गजाली मारतालीं. आपल्या खडपाच्या घरापोंदा आपूण आपल्या सोयऱ्या-दायऱ्यांसयत कशे मजेन दीस काडटा ते खडपी कुल्ली व्हडा घोस्तान सांगताली. रेंवेंत मुंगरीच्ले आपलें घर कितलें मोव, आनी आपल्याक कशी ऊब दिता तें दर्यांतली कुल्ली मीठ-मसालो लावन सांगताली.

इतल्यांत दोगांयचें लक्ष दर्यादिगेर सवकसायेन चलपी कासवाकडेन गेलें. कासवाक पळोवन दोगूय कुल्ल्यो कुसकेपणान हांसल्यो. " हाका पळय आपलें घर आपलेच फाटीर घेवन कसो भोंवता तो " खडपी कुल्लेन म्हळें.

" पळय कसो आपल्याच घरापोंदा चेपला तो, काकुळट बाबड्याची " म्हूण चुरचुरे करीत दर्यांतल्या कुल्लेन म्हळें. तांच्या म्हऱ्यांत पाविल्ल्या कासवान तीं कुसकीं उतरां आयकलीं. पूण ताणे हुं काय चूं केलेना. थंय ओग्गी बसून रावलो. कुल्ल्यो आनी कासव आशिल्ले थंयसावन लागींच कांय भुरगे फुटबॉल खेळटाले. एका भुरग्यान बॉलाचेर नेटान खोंट मारली. तो बॉल जुस्त हांगा पडलो. बॉल घेवपाखातीर भुरगीं नेटान थंय धांवून आयली. भुरग्यांक धांवून येतना पळोवन कासवान झुप्पकरून आपली तकली कट्ट्याभितर घाली. पूण दर्यांतल्या कुल्लेक आपल्या रेवेंतल्या घरांत धांवतना आनी खडपी कुल्लेक खडपापोंदच्या आपल्या घरांत धांवतना नाकापुरो जालें.

# आळशी गोदुलो

न्हंयेदेगेर कांय बेबे रावताले. तांचेमदलो एक गोदुलो. गोदुलो नांवाप्रमाण गोदोकसो. फकत खा-खा खावप आनी कांयच काम करीनास्तना एका जाग्यार बसून रावप.

गोदुल्याची आवय सदांच ताका समजायताली. "बाबा, शाण्या असो एकाच जाग्यार हालनासतना, धोलनास्तना रावू नाका. मागीर तूच गुळो जातलो. आनी हांव नकळो बाबा, सोरोप तुका खातलो. काम नाका करूंक, पूण खेळूंक तरी वच." पूण गोदुल्यान तिचें सांगणे आयकलेंचना. ताणे आपलें दिसूयभर रगड रगड रगडचें. आनी एकाच जाग्यार थपकल मारून बसचें.

एक दीस गोदुल्याच्या इश्टांनी शेतांत सहलीक वचपाचे थारायलें. गोदुल्याच्या आवयन ताकाय फोर्सान धाडलो. शेतांत पावतकच सगळे बेबे उडक्यो मारुंक लागले. कोण धांवता, कोण नाचता. कोण लिपचेल्यानी खेळटा. ताणीं गोदुल्याकूय आपयलो. पूण गोदुल्यान म्हळें "तुमी खेळा, हांव बसता हांगा तुमची खाणां राखूंक." आनी खाणांलागीच थपकल मारून बसलो. बाकी बेबे खेळपाक सामके गेले



रंगून आनी हेवटेन गोदुल्यान उडयली सगळीं खाणा खावून. खाणां खावन सुस्त जाल्लो गोदुलो थंयच मातसो लवंडलो, चारुय पांय तांणून.

त्या शेतांत आसलें एक बीळ. त्या बिळार एका बेब्याचो पांय पडलो. तसो बिळांतल्यान फोस्ऽऽस करून सोरोप भायर आयलो. " सोरोप... सोरोप, धांवात... धांवात " करीत तो बेबो धांवूक लागलो. बाकीचेय बेबे भिरांतेन जीव तोड्डून धांवले. त्या बेब्यान मारील्ली बोब गोदुल्याच्या कानार पडली. तशे ताणें दोळे बिटबिटायत पळयले. सगळे जीव वाटांवक धांवतात तें पळोवन गोदुल्यानूय पांय हालयले. पूण गोदुल्याचे पांय झुप्प करून हाललेना. ताणें मुखावेले पांय हालयले. फाटले पांय हालयले. पूण शे ऽऽ " आरे देवा ! " गोदुलो सामको शेळेलो. आई सदांच सांगताली, खेळ रे पुता, हाल-धोल रे पुता, नाजाल्यार जातलो गुळो. खरेंच हांव सामको गुळो जालो. गोदुल्याक आवयची सांगणी येवजून येवजून रडुंक येवंक लागले.

इतल्यांत ताका सोरोप दिसलो. तो ताचेकडेन येतालो. " आई गे आई " म्हणत गोदुल्यान दोळे मेटून घेतले. सोरपान गोदुल्याक पळोवन फोंस्स केले. इतल्यांत गोदुल्याच्या एका इश्टान गोदुल्याच्या फाटल्या पायांक धरून ताका झोपानी व्हेलो ओडून.

सोरपाच्या तोंडातल्यान गोदुलो वाटावलो. आनी सारकी बुद्द शिकलो. आता गोदुलो खेळटा, नाचता, उडयो मारता आनी आवयचें कामूय करता.

# गोलू आनी मोलू

सीताबायल्या घरा पाडसार आसलो एक दुदी. बरो टुणटुणीत, वाटकुळोच. नांव ताचे गोलू. पोरसांत आसलें एक वायंगें. बरें गुबगुबीत, पुटपुटीत. नांव ताचे मोलू.

पूण मोलू आनी गोलूची जाय सदांच झगडीं. एकमेकांक पळोवन दोगांय तोंडा वांकडीं करतालीं. गोलून म्हणचे " दुदी हांव गोल गोल, गोलू म्हजे नांव. मोलूपरस दिसूंक चड बरो हांव." मागीर वायंगेंय लागतालें झगडूंक. ताणें म्हणचें " काय बरो रंग म्हजो, मोलू म्हजें नांव, गोलू घट, गुबगुबीत काय बरें हांव."

एकदीस दोगांयले झगडें पडलें मोट्यार. तेन्नाच थंय सीताबाय माथ्यार पाटें घेवन पावली. गोलू-मोलून म्हळें " सीताबाय, सीताबाय आयकय आमचें केस्तांव आनी कर सारके रजांव, दोगांय भितर आमच्या कोण बरो सांग." सीताबायन म्हळें " आतांच कशें सांगू ? घरा तुमकां व्हरता आनी पारखितां. कोण चड बरो तें मागीर सांगता." सीताबायन दोगांयकूय पाट्यान घालीं, पाटे माथ्यार मारलें आनी लागली घरा वचूंक. तशीं वाटेर पाट्यानूय गोलू-मोलू लागलीं झगडूंक. " हांव बरें ... हांव बरो, हांव बरें ... हांव बरो."

सीताबाय गेली घरा आनी गोलू - मोलूक भायर काडलीं. दोगांयकूय उदकान बरीं ऽऽ धुयलीं. आदोळेचेर गोलू-

मोलूल्यो बऱ्यो फोडी केल्यो. तिणें चुलीर तोप दवरलो आनी तोपान गोलू-मोलूल्यो फोंडी शिजुंक घाल्यो, पूण तोपांतूय त्यो मोटव्यान झगडूंक लागल्यो. रटा-रटा... रटा-रटा ... हांव बरें.... हांव बरो....

गोलू-मोलूल्यो मीठ-मसालो घाल्ल्यो फोडी बऱ्यो शिजल्यो आनी सीताबायन त्यो रुचीन खाल्यो. पूण गोलू-मोलू चडूच. आपलें केस्तांव सोडूंक आयल्या ? सीताबायल्या पोटांतूंय दोगांय झगडूंक लागली. गुडू-गुडू-गुडू-गुडू, हांव बरें... हांव बरो. दोगांय नेटान लागलीं झगडूंक तशी सीताबाय पोट दामीत लागली रडूंक.

## गोंड्याची शेंपडी

पोरसांतल्या चिकूच्या झाडार एक चानी रावताली. ती सामकी हुतहुती. आतां ह्या खांदयेर आसा म्हळ्यार ती झुर्रर करून दुसऱ्या खांदयेर पावताळी. तिचो इश्ट हुंदीर त्याच झाडामुळांत एका बिळांत रावतालो. चानी सकयल येताली आनी मागीर दोगूय धरचेल्यानी खेळटालीं.

एक दीस अशींच खेळटना हुंदराक केसांक बांदपाचो चकचकीत गोंडो दिश्टी पडलो. हुंदरान तो बेगबेगिन आपल्या शेंपडेक बांदलो. आनी चानयेक आपली गोंड्याची शेंपडी दाखयत नाचपाक लागलो. “ गोंडो गोंडुलो म्हज्या शेंपडेक सोबिलो ! ” चानी बाबडी हुतहुती. तिच्या तोंडसून

झुप्पकरून उतरां आयली " शी ! तुका सोबना तो गोंडो. त्या गोंड्याक शेंपडी जाय ती म्हजेवरी. तो गोंडो म्हजे शेंपडेक बांदून तर पळय. मागीर तूच म्हणटलो गोंडो गोंडुलो चानये शेंपडेक सोबिलो. " चानयेची उतरां आयकून हुंदरान येदें तोंड केले. पूण हुंदीर मनान बरो. ताणे सट्ट करून आपल्या शेंपडेचो गोंडो सोडयलो आनी चानयेक दिलो. चानयेन झेतान तो गोंडो आपल्या शेंपडेक बांदलो. आनी शेंपडी हालयत हुंदराक विचायलें " खरें सांग, हो गोंडो म्हजेच शेंपडेक बरो सोबता न्हय ?" " हय तर ! बरो सोबता तुज्या शेपडेक तो गोंडो, पूण मातशी सांबाळून धांव आं. खंयूय बडयेकबी शिरकत." हुंदरान म्हळे. पूण हुंदराली उतरां आयकूंक हुतहुती चानी खंय रावल्या ? ती झुर्र्र करून झाडार चडली. ह्या खांदयेवेल्यान ते खांदयेर नाचतना म्हणपाक लागली " गोंडो गोंडुलो म्हज्या शेंपडेक सोबिलो." हुतहुती चानी अशीच एका खांदयेर धांवतना तिच्या शेंपडेक बांदील्या गोंड्याचे सूत एका मोडील्ल्या खांदयेकुडक्याक घुस्पलें. आनी चानी लागली हुमकळूंक, हेवटेनतल्यान तेवटेन, तेवटेतल्यान हेवटेन. तशी भिरांतेन चानयेन मारली किळांच " म्हज्या इश्टा हुंदरा म्हाका वांचय ! "

हुंदीर येदोवेळ चानयेक खांदयो-खांदयेर धांवतना हुस्कयानूच पळयतालो. चानयेच्या शेंपडेचो गोंडो बडयेक घुस्पून ती हुमकळपाक लागली तेन्नाच तो वयर चडपाक लागलो. वयर चडून ताणे पयली त्या गोंड्याचे सूत आपल्या

दातांनी कुरुकुरु करून चाबलें. तेसरशी सूत तुटले आनी चानी घबांयच करून सकयल पडली.

चानयेन आनी वाट पळयली ना. सोमतो शेंपडेचो गोंडो सोडलो आनी म्हळे, " म्हाका नाका रे बाबा हो शेंपडेचो गोंडो, तूं घे तुका." तशे हुंदरान म्हळें, " तो म्हाकाय नाका." चानयेन तो गोंडो पयस शेंवटीलो. आनी दोगांय परतून धांवचेल्यांनी खेळपाक लागलीं.

## भिवकुरो गोदू

आदू आनी गोदू नांवाचे दोन हुंदीर आशिल्ले. दोगूय सामके जिवाभावाचे इश्ट. पूण आदू धाडशी जाल्यार गोदू भिवकुरो. आदू आपले बीळ सोडून सगळ्याक भोंवतालो. माजरां-मनशां भोंवतणीं आसतना लेगीत केन्नाच तांच्या फुड्यांतलीं खाणां चोरतालो. पूण गोदू मात बीळ सोडून चडसो भायर येनासलो. बीळा आशिकुशीक जें कितें मेळटा ताचेर समाधान मानतालो.

आदूक बरें कितें खाण मेळ्ळ्यार तो गोदूखातीर घेवन येतालोच. पूण अशें कितले फावट हाडटलो ? " गोदूची भिवकुरेपणां पयस करूंकच जाय " आदून हाचेर बरेंच येवजिलें. निमणे ताका एक माण्णी सुचली.

ताणे गोदूक एकदीस बळयां बिळातल्यान ओडीत भायर हाडलो. त्या घरांतल्या मेजाचेर बरो ऽऽ पिकिल्ल्यां

केळ्यांचो फेणो आशिल्लो. “ चल यो बरी ऽऽ केळीं पिकल्यांत ! ” म्हणत गोदूक घेवन तो मेजार चडलो. गोदू पयलींच बरोच भियेल्लो. तो केळीं खावंचो सोडून भंयान हांगा - थंय पळयत रावलो. आदून ताका म्हळें “ गोदू, हांव पळय असो मेजासकयल रावून कोण येता ते पळोंवक बसता. तूं हुस्कयामेकळो केळीं खा.” आनी आदू टुण्ण् करून उडी मारून मेजासकयल देंवलो. हेवटेन गोदू केळीं खातना ज्युस्त माजर आयलें. आदून माजराक पळयलें पूण तो जाग्यावयलो हाल्लोना. ताणे माजराक आपल्या लागीं येंवक दिलें. माजरान आदूक पळोवन ताचेर आपलो चपको मारपाक उखल्लो तेन्ना आदू व्हडान आड्डलो, “ गोदू म्हाका वांचय.” गोदून आदूची किळांच आयकून कच्च करून आंग काडलें. पूण खिणभरूच. आपलो इश्ट आदू संकटान आसा हें ताणें पळयलें. ताका कसोय करून वांचोवक जाय अशे येवजितनाच गोदून मेजावयल्यान माजराच्या आंगार टुण्ण करून उडी मारली.

अकस्मात आंगार कितें पडलें हें माजराक कळ्ळेना. ताणे भियेवन कडेक उडी मारली. हेवटेन आदू-गोदू फर्रर करून बिळांत धावून गेले. आपणे आपलो जीव संकटान घालून आदूक वांचयलो हे गोदूक केदोवेळ खरेंच दिसलेना. आपूणूय आता भियेनास्तना कसलेंय काम करूंक शकता हाची ताका जाणविकाय जाली. ते दिसासावन आदू-गोदू भंयाविरयत सगळीकडे भोंवूक लागले.

# टॉमी आनी चोर

गोपाळकाकाल्या सुण्याचे नांव टॉमी. टॉमी दिसपाक सोबीत दिसतालो. चॉकलेटीच रंगाचो. गोपाळकाका टॉमीचेर खूब मोग करतालो आनी टॉमीय गोपाळकाकाचेर.

एकदीस सकाळचो गोपाळकाका बरोबर पासयेक वतना टॉमीचो पांय एका ल्हानशा फोंडकुलात पडून दुखावलो. गोपाळकाकान टॉमीच्या पायांक वखद बी लावन पांय बँडेजान बांदलो. टॉमी आता कुटत-कुटत चलतालो.

ते राती सगळीं न्हिदिल्ली आसतना एक चोर गोपाळकाकाल्या घराकडें आयलो. पडवेर बशिल्ल्या टॉमीन ताका ज्युस्तूच पळयलो. टॉमीन येवजिलें .... आपूण भुकत जाल्यार चोर सादूर जातलो, आनी आपलो पांय तर असो.

चोर घराच्या फाटलेवटेन वचपाक लागलो तसो टॉमीय पोटाचेर सरपटत चोराफाटल्यान वचूंक लागलो. चोर फाटलेवटेंतल्या जनेलातल्यान भितर सरलो. ते सरशी टॉमीन भुकूक सुरवात केली. टॉमीच्या भुकपा आवाजान गोपाळकाका आनी घरचीं सगळीं जागीं जालीं. तें पळोवन चोरान गडबडीन जनेलातल्यान उडी मारली. सकयल टॉमी तयारूच आशिल्लो. ताणें सकयल पडिल्ल्या चोराचेर घालून घेतलें आनी तो ताका चाबलो. चोर लागलो व्हडल्यान आड्डूंक. इतलें म्हणसर गोपाळकाका सगळ्यांक घेवन

थंय पावलो. ताणी चोराक बांदून घालून पुलीसेच्या सुवादिन केलो.

तो एक खांपो चोर आशिल्लो. ताका धरून दितल्याक इनामूय आशिल्लें, तें इनाम टॉमीक मेळ्ळें. आनी दिसाळ्यार टॉमीचो इनाम घेतिल्लो फोटो आयलो.

## साधू बगळो

एका गांवच्या शीमेर एक तळें आशिल्लें. त्या तळ्यांत खूब नुस्तीं रावतालीं. त्या तळ्यादेगेर एक बगळो रावतालो. तो त्या नुस्त्यांक धरपाक खूब यत्न करतालो. पूण नुस्तीं ताका कशींच मेळनाशिल्लीं.

एकदीस एक गायक दुसऱ्या गांवांत गायन करपाक ते वटेंतल्यान वतालो. तळ्यादेगेर पावतकच ताका तळ्यांत हात-पांय धुवन घेयन दिसले. तो तळ्यांत देंवलो आनी हात-पांय धुतना आपल्या म्होवाळ आवाजान गावंक लागलो. ताच्या आवाजान नुस्ती उदकांत वयर येवन सुर्र्र-सुर्र्र करून नाचपाक लागलीं. तळ्यादेगेवेले बेबेय टुण्ण-टुण्ण उडक्यो मारूक लागले. आशिकुशीकची सवणीं-पाखां हालोंवक लागलीं. देगेर रावून बगळो हें सगळें पळयतालो. गायक थंयसावन गेलो तसो बगळो बेगबेगीन उदकांत देंवलो. ताणे आपलो ताळो खरखरायलो आनी क्वॅक् क्वॅक् करून गावपाक लागलो. तेसरशी उदकांत वयर

नाचपी नुस्ती झुम्म् करून उदकांत नाच् जालीं. देगेवयल्या बेब्यानीय भियेवन उदकांत उड्यो मारल्यो. सवणीं लेगींत पाखां हालयत भुर्र्र करून उडून गेली. बगळो हे सगळें पळोवन अजापलो. हे अशें कशें जालें ? कितले दीस तरी बगळो ही गजाल चितीत आसलो पूण ताका कुवाडें सुटलेना.

एकदीस एक साधू तेवटेंतल्यान पासार जातालो. ताणे तळे पळयलें आनी तो तळ्यांत देंवलो. ताणे आपलो एक पांय दोडलो. दोळे बंद केले आनी हात जोडीत देवाची प्रार्थना करपाक लागलो. हेरशीं तळ्यांत कोणूय देंवतकच झुप्प् करून नाच् जावपी नुस्ती तो साधू उदकांत आसतनाय हुसक्यामेकळीं भोंवतालीं. देगेर रावून बगळो हे बारीक दोळे करून पळयतालो.

साधू थंयसावन गेलो तसो बगळो बेगबेगीन उदकांत देंवलो. तशी नुस्ती झुप्पकरून उदकांत नाच् जालीं. बगळ्यान आपलो एक पांय वयर दोडलो. दोळे बंद केले आनी त्या साधवाबशेन ओगी रावून प्रार्थना केल्यावरी करपाक लागलो. बगळो साधवाबशेन ओगी रावला हे नुस्त्यांनी पळयले. बगळो हालना-धोलना, आवाजूय करीना. मागीर नुस्ती ल्हवू-ल्हवू बगळ्या कुशीकच्यान शिटूकसाणेन पासयो मारूंक लागलीं. पूण तरींय बगळो ओगगी. आतां नुस्तीं हुसक्यामेकळी बगळ्या आशिकुशीतल्यान भोंवपाक लागलीं. बगळो हीच संद

सोदतालो. ताणे आकस्मात कूच्च करून आपली चोंच उदकांत खुपशिली आनी चोंचभर नुस्ती धरून मचक् मचक् करून खालीं. तेन्नासावन बगळो नुस्तीं धरपाक एका पांयार उबो रावता.

## हुशार किरकिरो

एका शेताधडेर एक झाड आशिल्लें. थंय एक किरकिरो नव्यानूच रावूंक आयलो. ताक जाय तसले खाण थंय खूब आशिल्लें. पोटभर खावन जातकच किरकिरो खोशयेन किरकिरतालो. त्या शेताधडेर एक बैलूय रावतालो. बैल सामको मस्तो. मोठ्ल्या शिंगाचो. ताणे थंय येत्या-वत्याक धोंगसूचे. तळ्यादेगेवयल्या बेब्याक आपल्या पायांच्या खुरानी चिड्डुवंचें. सवणीं फाटीर बसलीं जाल्यार आपल्या शेपडेन तांका मारचें.

किरकिरो खावन जातकच किरटे करून किरकिरता हाचो बैलाक राग येतालो. ताणे आपल्या नाकातल्यान फोस्स्-फोस्स् करचें. आनी किरकिऱ्याक मारपाखातीर संद सोदची.

किरकिरोय थोड्या दिसां भितर बैलाक सारको वळखल्लो. ताका बरी बद्द शिकोवची हाचेर तो सदांच येवजितालो. एक दीस ताका एक माण्णी सुचली.

थंय रावपाक येतना वाटेर ताणे एका झाडार म्होवामुसांचे पोळे पळयल्लें. तो थंय गेलो आनी ताणे आपली चोंच त्या पोळ्यांत खुपशिली. म्होवामूस घूं ऽऽ करून भायर आयले आनी किरकिऱ्याच्या फाटीक लागले. किरकिरो तसोच उडत बैल आसा थंय आयलो. म्होवामूसूय थंय पावले. किरकिरो ल्हवूच झाडाआड लिपलो. आनी म्होवामुसांक आयतोच बैल मेळ्ळो. ताणी बैलाक मेळटा थंय चाबूंक सुरू केले. आंगभर म्होवामूस चाबिल्ल्यान बैल व्हडाव्हडान हामेर मारूंक लागलो. निमाणे सोसू नजो जावन जमनीर पडलो तो परतो उठलोच ना.

## माकोड आनी हती

एका रानांत एक हती रावतालो. ताची लांब सोंड आनी व्हडले दांत ताका सोबून दिसताले. त्याच रानांत एक माकोड रावतालो. एकदीस त्या माकडान एका शिकाऱ्याक रानांत भितर सरतना पळयलो. ताणे ताच्या फाटोफाट वचून तो कित्याखातीर आयला ताची सुलूस घेतली. तो शिकारी हती दातांखातीर आयिल्लो. शिकारी हती आशिल्ल्यावाटेन वचपाक लागलो तसो माकोड शिटकावलो. ताणे आपले दोनूय हात तोंडार धरून हतीक शिटकावपी आवाज काडलो, हु ऽऽऽप. तेसरशी हती शिटकावलो. आनी दाट झाडां-झिलीनी लिपून रावलो. हती मेळुनासून शिकारी थंयसावन गेलो.

तो गेल्याउपरान्त हती लिपिल्ल्या जाग्यावेल्यान भायर आयलो. ताणे माकडाचे उपकार मानले. तेदिसा सावन ते दोगूय घट इश्ट जाले.

अशेंच कांय दीस गेले. रानातल्या न्हंयचेर माकोड उदक पियेतालो. तो आपल्याच तनरेंत आशिल्लो. तेवटेतल्यान एक मानगे उदकांतल्यान दपत-दपत माकडासरी येंवक लागले. न्हंयदेगेर आशिल्ल्या हतयान ताका जुस्त पळयलें. ताणे आपली सोंड लांब केली आनी माकडाक झुप्प्करून वयर उखललो. आनी ताका मानग्याच्या तोंडातल्यान वाटायलो.

ते दिसासावन दोगांयची इश्टागत चडूच घट जाली.

## वाग आनी शार

एका रानांत एक वाग रावतालो. त्याच रानांत एक माकोड रावतालो. माकडान मुदासाक गेल्लेवरी थोडे दीस शारांत वचचें. थंय आशिल्ल्या देवळांनी येवपी लोक दितात ते खाण खावचें. मजेन कांय दीस आपल्या शारी इश्टांवांगडा सारचे आनी परते रानांत परतुंवचे. रानांत परततकच ताणे शारातल्यो गमती-जमती सगळ्यांक सांगच्यो. त्यो आयकून वागाकूय आपणे एकदीस शार पळोवपाक वचचें अशें दिसूंक लागलें. ताणे रोखडोच हो विचार माकडाच्या कानार घालो.

माकडान म्हळे, “ बाबा वागा, हांव जरी शारान गेलों तरी तुका थंय वचूंक मेळचेंना. शारांतले लोक तुका भियेतले. आनी तुका धरपाची माण्णी करतले. तूं येवपाचें चिंतूच नाका कसो.”

पूण शे ऽ वाग आपलो हट्ट सोडीना. निमणे नाउपाय जावन माकडाक वागाक घेवन शाराकडे वचचें पडलें. वाटभर माकोड वागाक शिटकायतालो. चतरायेन कशें वागचें तें सांगतालो. निमाणे एक दीस दोगूय शारांतल्या त्या देवळासरीं पावले. माकडान वागाक एका झाडापोंदा उबो केलो. आनी आपूण सुलूस घेवपाक सडसडीत माडाचेर चडलो.

हेवटेन वाग बाबडो जावन पयस देवळाकडे दिसपी लोकांचो चोमो पळयतालो. इतल्या लोकांक पळोवन तो आबूज जाल्लो. तो लोकांक पळोवन इतलो घुस्पल्लो, ताका आपल्या फाटल्यान उबो रावन आपल्यार तुबक जोखपी मनीस दिसलोचना. पूण वयर माडार चडून बशिल्लेकडेन माकडान त्या मनशाक जुस्तूच पळयलो. ताणे सडसडीत एक नाल्ल तोडून त्या तुबक जोखील्ल्या मनशाचेर मारलो. तो मनीस थंयच घुंवळून पडलो.

माकोड माडावेल्यान सडसडीत देंवलो आनी वागासरी गेलो. वागान म्हळे “ नाका रे बाबा, म्हाका आनीक शार.” तशें वागाच्या फाटीर बसत माकडान म्हळें “ मागीर चल बेगीन रानांत धांव मार.”

ते उपरान्त माकोड जेन्ना शारांतल्यो गजाली सांगतालो तेन्ना वाग मात कानाक गुड्डे मारून झोंपांनी लिपतालो.

## वेल्ली आनी विस्वण

देवान दर्या निर्मिलो आनी तरातरांची नुस्तीं तयार करून दर्यांत सोडपाक लागलो. ताणे विस्वण, मोरी, सारकेली व्हड नुस्तीं केली आनी वेल्ली, भोपशींय तयार केली.

वेल्ली सभावान भोळी. दिसपाकूय नाजूक. तिका तेवेळार आंगार चड खवळां नाशिल्ली. ह्या वेल्लेचेर विस्वणाचो बारीक दोळो आसलो. गोरी गोरी ही वेल्ली खावपाक खूब रुचीक आसतली अशें येवजित ताणे दांत करकरावन रूच काडची. मेळटा तेन्ना वेल्लेर झोंपय घालून तिका गटम् करपाक तो फुडें सरतालो. वेल्लीय विस्वणाक भियेवनूच दीस काडटाली.

एक दीस वेल्ली दर्यातळाकच्या झोंपांनी कितेंय खावंक मेळटा काय पळयताली. तेन्नाच विस्वणान तिचेर झोंपय मारली. वेल्ली आकांतान थंयसावन धांवली. पूण धावून-धांवून कितली धांवतली. येदीशी वेल्ली. तिका बाबडेक सामकें पुरो जालें. आतां आपलें सोपलें अशें येवजून तिका रडपाक आयलें. ती व्हडा-व्हडान रडपाक लागली. तिचें रडप देवाच्या कानार पावलें. हेरशींय म्हूण देवाच्या कानार ह्या विस्वणाच्च्यो कागाळी आयिल्ल्यो. ह्या वेल्लेवरवींच त्या विस्वणाक बुद्द शिकोंवची अशें ताणे थारायलें. ताणे वेल्लेक

चकचकीत खवळांचे आंगलें दिलें. आनी म्हळें " वेल्ले भियेंव नाका. हिंमत धर आनी चल विस्वणाच्या आंगार चलून. मागीर पळय कितें जाता तें. " देवाची उतरां आयकून वेल्लेक धीर आयलो. आनी ती नेटान विस्वणाकडे वचपाक लागली. तिच्या आंगावेली खवळां सामकी चकचकताली. खवळांच्या चकचकान विस्वणाचे दोळे दिपावले. हो उजवाड आपल्याक गिळपाक येता अशें दिसून भंयान ताणे थंयसावन फुज्ज्यो काडली.

तेन्नासावन वेल्ल्यो दर्यांत आयल्यो रे आयल्यो विस्वण थंयसावन पळून वता.



## श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरोन माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| | (पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८) | | |
| | (दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | | |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | आंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकार |
| ८. | नुपी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅडी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिंव आनी कासव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| १८. | काणयो सैमाच्यो आनी मनश्यांचो | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १९. | कासवाचे घर | काणयो | नयना आडारकार |
| २०. | काणयांचे पेटूल | काणयो | सरस्वती दामोदर नायक |